# संस्कारदीप

(कविता संग्रह)

सुशीला निळकंठ हळर्णकार

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

# संस्कारदीप

(कविता संग्रह)

**सुशीला निळकंठ हळर्णकार**

**प्रकाशन क्र.** : 80

**पयली आवृत्ती** : फेब्रुवारी 2012



**उजवाडावपी** :
मल्लिका मिलींद म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

**छापपी** :
आदित्य मिलींद तिंबले
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
माशेल, गोंय

**अक्षर जुळोवणी** :
स्वप्नाली तळेकर
रेखा गावडे

**मुखचित्र** :
स्वाती सुदेश नायक

**मोल** : ₹ १००

# SANSKARDEEP

(Collection of Poems)

**Sushila Nilkanth Halarnkar**

**Publication No.** 80

**First Edition:** February 2012



**Publisher:**
Mallika Milind Mhalshi
Om Shri Datta Padmaja Prakashan,
Shristhal, Canacona, Goa

**Printer:**
Aditya Milind Timble
Swarnamudra Prints,
Marcela, Goa

**Typesetting :**
Swapnali Talekar
Rekha Gaude

**Cover Design :**
Swati Sudesh Nayak

Price : ₹ 100

---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'साहित्यप्रभा अर्थीक पालव येवजणे' खाला छापला.

जिणेंतले भरती-सुकतेंतय 'स्थितप्रज्ञ' जावंक शिकोवपी,
आपल्या जिवापरसूय म्हजी चड जतनाय घेवपी
म्हज्या आई आनी बाबाक
- स. रोहिदास रघुनाथ फातर्पेकार हांकां -
हें पुस्तक ओंपतां.

- **सुशीला**

# मनोगत

मडगांवांत श्री दामबाबाच्या प्रांगणांत म्हजें भुरगेंपण फुल्लें. तरेकवार अणभवांतल्यान म्हजें व्यक्तीमत्त्व घडपाक पावलें. हांगाचीं मनशां, समाज हातूंत म्हजें मन कशेतरेन आनी केन्ना घुस्पून गेलें हें म्हजें म्हाकाच समजलें ना. पूण एक मात खरें कीं, मनीसपणान जियेवपाची तांक हांवें हेच मातयेंतल्यान घेतली. हेच मातयेच्या स्पर्शान म्हजे जिणेक प्रेरणा मेळूंक पावली. हेच प्रेरणेन जिणेक नकळटां आकार मेळ्ळो.

म्हजें शिकप, घरांत बापायन एकठांय करून दवरिल्ल्या पुस्तकांचें वाचन, म्हज्या शिक्षकांचें मार्गदर्शन, फुडें म्हजें शिक्षिकेचें कार्य आनी सगळयांत म्हत्त्वाची गजाल म्हणल्यार म्हज्या जिणे - सांगात्याचें तशेंच घरांतल्या मनशांचें सहकार्य हांच्या सांगातान हांव ह्या शब्दफुलांच्या मोगांत केन्ना पडलें म्हाकाच खबर ना. पूण एक खरें, ह्या शब्दफुलांनी म्हाका पणटेची व्हडविकाय दाखयली. पणटेचो उजवाड दुसऱ्याखातीरच आसता ही जाणविकाय जावंक पावली. आवय बापायन म्हजे जिणेवाटेर संस्कारांच्या फुलांचो केल्लो शिंवोर हांवें प्रत्यक्षांत अणभवलो आनी हींच फुलां वेंचीत जीण जियेतना पोसोभर फुलांची ही काव्यकृती तुमचेखातीर दिवपाक काळजांतल्यान म्हाका खुशालकाय भोगता.

म्हज्या ह्या प्रयत्नांक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'साहित्यप्रभा येवजणे'न पालव दिलो म्हणून सगळयांत पयलीं हांव गोवा कोंकणी अकादेमीचे माजी अध्यक्ष भौ. एन्. शिवदास, उपाध्यक्ष विन्सी क्वाद्रुस हांचे उपकार मानतां. म्हज्या कवितांक प्रसिध्दी दिवपी कमलाकर म्हाळशी बाबाल्या ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनान हें पुस्तक तयार करून दिवपाची जापसालदारकी घेतली, ते खातीर हांव ॐ श्रीदत्त पद्मजा प्रकाशन संबंदान कृतज्ञताय उक्तायतां. तशेंच माशेलच्या स्वर्णमुद्रा प्रिंट्साकूय मनापसून धन्यवाद म्हणटां.

चित्रकार स्वाती सुदेश नायक हांकांय देव बरें करूं म्हणटां.

म्हज्यो कविता उजवाडाक हाडपी बिम्ब, कोंकण टायम्स, जैत, बार्देस, जाग, कोंकणी ह्या मासिकांचें/दिवाळी अंकांचें हांव उपकारी आसां.

ह्या वावरांत म्हाका प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष सहकार्य दिवपी श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले महाविद्यालयाचे प्राचार्य डॉ. रमेश विश्वनाथ गांवकार, कोंकणी विभागाचे मुखेली प्रा. डॉ. गुणाजी सदानंद देसाय, कवी - मनाचे नाटककार प्रा. हनुमंत चंद्रकांत चोपडेकार हांचें हांव उपकारी आसां. म्हजी ही साहित्यकृती तुमकां आवडटलीच अशी हांव आस्त बाळगितां.

**- सुशीला निळकंठ हळर्णकार**

शिवकृपा , 135/के/2 वासुदेव नगर,
नावेली - साश्ट 403 707

# मांडावळ

## आत्मस्पंदन



## मनस्पंदन

**भावस्पंदन**

# १.संस्कार

आरे संस्कार संस्कार
घरा-घरांचे संस्कार
येवं दी आडमेळ्यांचो हुंवार
तरी वाटायतले संस्कार ।।

आरे संस्कार संस्कार
घडटलो भुरग्यांचो फुडार
फाल्यां मेळटलो आदार
जातलीं सपनां साकार ।।

आरे संस्कार संस्कार
सोडून सगले दुराचार
बाळगत सुसंस्कारी विचार
जिणेक मेळटलो आकार ।।

आरे संस्कार संस्कार
सोडात जिणेंतले कुविचार
करात स्वाभिमानाचो स्विकार
जावंक जायना लाचार ।।

आरे संस्कार संस्कार
जशे 'दीपस्तंभ ' वाटेर
जाता सुखशांतीचें घरदार
हेंच जिवीताचें सार ।।

आरे संस्कार संस्कार
भोंवतणी मायेचो सागर
येतलें 'ऐश्वर्य' दारार
दियात उमेदीन येवकार ।।

आरे संस्कार संस्कार
आवय बापायचे सुविचार
मनांत हयकारी विचार
विश्व हेंच खरें घर ।।

♦ ♦ ♦

## २. मोगाळ आई

मोगाळ आई,
साश्टांग नमस्कार.
ल्हारार ल्हार येत रावलें
जिणें तारूं पयस पावलें
पाखां लायिल्लीं वर्सां
यादींच्यो गांठी सांसपूंक लागलीं
आंगणांतल्या शेणाचो वास
आयजय नाकांत भरता
दारांतली तुळस
तुळशीक उदक घालतनाची
तुजी साजशृंगारीक प्रतिमा
कपलाक पिंजरी तिबो
हातांत हातभर कांकणां
णव वारी कापड न्हेशिल्ली
गळयांत काळया पिड्डुकांचें
सोबीत मंगळसूत्र घातिल्ली
त्यागाची मूर्त तुजी
आयिल्ल्या गेल्ल्यांक
उर्बेभरीत येवकार तुजो
कोण जेवलो, कोण उपाशी
सगळो हुस्को तुकाच
घरांतली प्रत्येक वस्त
जंयचे थंय वेळावेळार
दवरपाचो अट्टाहास तुजो
आयज कळटा मोल
तुज्या सोबीत गुणांचें
आनी म्हजेंय मन हट्टाक पेट्टा

पूण बदलिल्लें वातावरण तापता
पयशांच्या राशींचेरय
ताणतणावाच्या रोगांनी,
चिंता हुस्क्यांनी मांडलां थैमान
रांदचे कुडींतलीं घासून पुसून
चकचकीत मांडिल्लीं आयदनां
आयज वावराडी येता,
आयदनां उदकांत बुडोवन काडटा
पळोवनच समादान मानचें पडटा
मातयेचे चुलीर शिजपी
शीत-पेजेचो वास
आयजय यादींनी भरला
चुलीवयलें खतखतें
अळसाण्याचें तोंडाक
पोरसांतली ताजी भाजी
सुंगटां - आमाड्यांचें हुमण
तिसऱ्या - कुल्ल्यांचें सुकें
जेवणाचे थाट माट
कितें कितें म्हूण याद करूं?
पयसावल्ल्यो गजाली यादींनी
एकठांयतना म्हाका
दिसांचे दीस पावनात
शेजारधर्माक जागपी
उल्याक पावपी शेजाऱ्यां
विश्वासाच्या नात्यान
वेव्हार करपी मनशां
भांगरा शिंगरांच्या पसाऱ्यापरस
मायेचोच सगळो पसारो

तुवें दाखोवन दिल्ल्या
प्रेम-माया, आपलेंपण
निसुवार्थी त्यागी गुणांची
जतनाय घेत जियेतना
जिणेचे वाटेर म्हजे
रखरखीत वतांतल्यान
चलतना संस्कारांची सत्री
तुवेंच म्हाका दिल्या
म्हणूनच म्हणटां...
पयस कितलेंय पावलें हांव
तरी तूं मात म्हज्या
मनाचे गर्भकुडींतच वसल्या.



# ३.म्हजी सर्त

म्हजी सर्त म्हजेचकडेन
ना म्हजो दुस्वास कोणाकडेन
हांगा सर्ती जातात तरेकवार
सर्तींनी वांटो घेवपीय हजार
सर्तींतल्यान मेळटात इनामां, पुरस्कार
मागीर जिणेक येता नवो आकार
इनामांचेय कितलेशेच प्रकार
करतात आपलीं सपनां साकार
प्रयत्नांतल्यात मेळयल्लीं इनामां
वशिल्यांतल्यान मेळयल्लीं इनामां
उमेद, स्फूर्त  वाडोवपी इनामां
पयलें, दुसरें, तिसरें क्रम लावपी इनामां
इनामां वांटप-सुवाळ्याचो थाटमाट
इनामां दिवप्यांचो थाटमाट
इनामां घेवप्यांचोय थाटमाट
सुवाळ्याक हाजीर रावप्यांचोय थाटमाट
तशीं इनामां थोड्यांकच मेळटात
बाकीचे फकत वांटेकरी जातात
खऱ्या अर्थान प्रयत्न करतात
त्रास सोंसून कार्य मुखार व्हरतात
खऱ्या इनामांची उमेद मनयतात
'मनाचें समाधान ' हेंच खरें इनाम
अंतर्मुख जावपी मन हेंच खरें इनाम
मनच मनशाक खरो न्याय दिता
प्रयत्नांची साक्ष आमकां मनय दिता
देखूनच म्हजी सर्त म्हजेचकडेन
ना म्हजो दुस्वास कोणाकडेन



# ४.काव्यार्गां

नतमस्तक जावन उतरांफुलांनी
ओपतां ही श्रध्दांजली
कोंकणीच्या इतिहासांत आपली
भोवरूपी, सोज्वळ मूर्त कोरांतली
कोंकणीक मेळ्ळा गोंयचे तशेंच
राष्ट्राचे जिणेंत सुवात
कोंकणी चळवळीच्या इतिहासांत
तुमचोच पयलो मान
तुमीच वळखलें पावल
मुखावयल्या काळाचें
तुमीच रचलें साहित्य
वैश्विक अंतःप्रवाहाचें
तुमीच दिलो कोंकणी कथेक
नवो आकार, विचार
तुमीच केळयलो 'कथिका'
कथेचोच एक प्रकार
सपन साहित्य अकादेमीची
मान्यताय मेळोवपाचें
सपन तुमचें आवयभाशेक
ज्ञानपीठामेरेन पावोवपाचें
तुमीच व्हड पत्रकार
तुमीच जैतिवंत कथाकार
पळयलीं जीं जीं सपनां
तीं तीं केलीं साकार
तुमीच दिली खरी वळख
गोंय आनी गोंयकारांची
सहकार्यान चलयली अखंड
आराधना अस्मितेची



## ५.रविंद्रबाब, तुमकां नमन

ज्ञानपीठ जैतिवंत
रविंद्रबाब, तुमकां नमन
तुमच्याच व्यक्तिमत्वान
फुल्लें गोंयकारांचें मन
ऋषीतुल्य मूर्त तुमी
चैतन्याचो वजरो तुमी
सिध्दहस्त लेखक तुमी
गोंयकारांची स्फूर्त तुमी
कोंकणीक उणाक मानप्यांमुखार
चलयलें लिखणेचें हत्यार
गोंयांक दिलो नवो आकार
गोंयचीं सपनां केलीं साकार
रायटर - फायटर नामना तुमची
व्हडविकाय तुमच्या कार्याची
गोंयकारांचे अस्मितायेची
आराधना ही शारदेची.



## ६.पार्वती माते....

पार्वती माते तुका नमन
आमी तुजें करता स्तवन
        पूज्य पावन अशी ही वास्तू
        चराचर सृश्ट म्हणटा - 'तथास्तु!'
        नवी प्रेरणा नवीं सपनां
        घडटात हांगा संस्कारी मनां
कुळार हें विद्येचें
अमृतप्राशन करचें श्रध्देचें
दीन दुबळ्यांक तुजो आदार
ध्येयां सपनां जावचीं साकार
        नवें युग हें संगणकाचें
        कला विज्ञान तर हांगाच शिकचें
        नितळ नितळ सोज्वळ मनां
        सदांच करतात तुजी आराधना
नवो बदल नवें रूप
नवें तेज सगलेंच अप्रुप
"चौगुले कॉलेज " अशी नामना
पुराय जावं मनोकामना



## ७. माय माऊली

कश्ट सोशीत सानुल्याखातीर
जळटा जशी कापसाची वात
उरांत काजळी एकठांवन
फाटीर मायेचोच हात

म्हज्या मनमंदिराचे गर्भकुडींत
पुजा सदांच मायमाऊलीची
म्हजे जिणेंत यश कीर्ती
तिचेच पूर्वपुण्यायेची

तिच्या सुसंस्कारी तेलाची
अखंड मायेचीच ज्योत
दिता ज्ञानरूपी उजवाड
म्हज्या पवित्र मनमंदिरांत

केलें जिंवाचें रान तिणें
मेळोवंक कश्टांची भाकरी
हांसतें प्रसन्न मुखामळ
जशी दिवाळेचीच तयारी

काट्याकुट्यांच्या संवसारांत
शिजोवन सादेंच अन्न
अन्नपुर्णेच्या आशीर्वादान
जाता स्वादिष्ट पक्वान्न

भर दनपारच्या वतांत
झिजोवन आपली काया
सात्विकतेच्या धुपान
मेळटा सुगंधीत माया

तिच्या पोशांतलीं शब्दफुलां
शिकयता अर्थ मनीसपणाचो
स्वाभिमानान जियेतना
परमळ सदांच निस्वार्थाचो

तिच्या जल्माच्या त्यागाक
निरंतर कश्टांचीच किनार
दाखयता वाट म्हाका
तिचेच गोड संस्कार



## ८. सुखाचें मोवाळें

अस्तुरे, तुवें
दुसऱ्याखातीर वावरप,
रांदप, वाडप,
उश्टें काडप,
घरादाराची अळंग
जतनाय घेवप,
आयिल्ल्या गेल्ल्यांक
शें - शिंवोर करप.

प्रत्येकाचें दुख्ख
तुवेंच पळोवपाचें
प्रत्येकाचें दुख्ख
तुवेंच सोंसपाचें
जण एकाक तूंच
आदार दिता
पूण तुका आदार
कोण दिता?

दुसऱ्यांक तूं
समजून घेता
पूण तुका समजून
कोण घेता?

तुजें सूख
कोण पळयता ?
तुजें दुख्ख
कोण ना करता?

तुजे भोग
तुवेंच भोगपाचे
दुखलें तरी
हांसत रावपाचें
सुखाचें मोवाळें
घालून मिरोवपाचें



# ९.प्रेरणा

स्वानुभवाचे साणीर
सुविचारांची कांडी
झरयत झरयत
मेळटा अळंग
गिन्यानाचें गंध

त्याच गंधाचो
लावन तिबो
जाता स्वाभिमान जागो

गंधाच्या उजवाडांत
अर्थहीन जीण,
जावंक पावता
‘अर्थपूर्ण.’

लाचारीचो बुरखो
पडटा गळून
प्रयत्नांच्या पाखांनी
जावंक पावता
नवी वळख

पयसावता काळोख
दिसूंक लागता
वेगळें रूप

म्हज्याच अस्मितायेचो
घेवंक सोद
मन म्हजें जागें
सगळें आतां
मेकळें मेकळें

जालें मळब
निळें निळें
आसमंतांतली निळसाण
हीच खरी प्रेरणा.



# १०.कबलात

ही कबलात
मनीस जल्माची
पूर्व कर्मांच्या
संमिश्र फळांची

मेळटा नकळत
पूर्व सुकृताचो आदार
दिता जिणेक
झणझणीत साक्षात्कार

बऱ्या वायट
पूर्व कर्मांची वळेरी
घट्ट बांदून घेवन
पूर्व संचिताची शिदोरी

भोंवतणी विणलेलें
मायेचें जाळें
दिसता जणएकाचें
रूप आगळें

नात्याचे चौकटीत
मायेचे धागे
इल्लेशे चुकीन
अळंग तुटपाचे

तरेकवार अणभवांचेर
आदारिल्लें गिन्यान
काळखाचेर जैत जोडून
जाता सज्ञान

जल्मभर मायेच्या
पाशांनी घुस्मटता
मरण येतकच
मायेचे पाश तोडटा

मनीस जल्माची ही
कबलात सोंपता
जसो तो आयिल्लो
तसोच परतता

सांगाताक....
पाप पुण्याचें गांठलें
भोंवतणच्या मनशांचे
बंध तुटले



# ११. रुजवण

नवे व्हकलेची
नुरा पळयली
तशी मातयेक
'व्यथा' उमजली

मुमुरख्यां हांसत
ती म्हणपाक लागली
हळदीचें आंग तुजें
इतकी कित्याक लजली?

पांयांपोंदची जमीन
बाये ! खरपूं नाका
नवी नवलाई अशी
लिपोवं नाका

तुजे सारकेंच
म्हजेंय दुख्ख
अनादि काळासावन
आंग म्हजें
ओले हळदीचें

मोन्यांनीच सगळें
सोशीत रावपाचें
खोरें कुदळ
घाय नांगराचे

जल्माचेच सगळे
भोग भोगपाचे
अशेंच आसता
दुख्ख रुजवणेचें

अशेंच आसता
सुख सृजनतेचें
अनंत यातना
सोशीत जगपाचें

आसा तातूंत
सूख मानपाचें
बियांची रुजवण
धर्तरेच्या गर्भांत
मायेची ऊब
आवयच्या कुसव्यांत.



## १२. उडून चल

कश्टांचे भाकरेंतूच
भरल्या शक्त जिणेची
अरिश्टांच्या वाऱ्या हुंवारांत
स्वाभिमानान वावुरपाची

कश्टांचे भाकरेनच
सपनां तुजीं फुलयलीं
सुखाच्या पाळण्यांत धोलपाक
वर्सां म्हजीं घालयलीं

पुता म्हज्या! विसर म्हाका
पूण विसरूं नाका 'संस्कार'
संस्कारांनीच दिला तुजे
जिणेक नवो आकार

तुज्याच भुरगेपणांत हांवें
म्हजें भुरगेंपण अणभवलें
तुज्याच निरागस हांशांत
हांवें रूप म्हजें पळयलें

जीण म्हजी ना वेगळी
तुज्या अस्तित्वाबगर
दुखलें तुका जाल्यार लेगीत
मन म्हजें थतर - वितर

तुज्याच अस्तित्वाचो घेवंक सोद
सोड घोंटेर उडून चल
रावलां मुखार मळब निळें
उडून चल, उडून चल

उडपाखातीर मेळ्ळां तुका
हेच मातयेचें बळ
उदकाचो खळखळ आनी
तुजेखातीर उकतें मळ

♦ ♦ ♦

## १३. नियती

संवसाराचे रंगमाचयेर
चल्ला खेळ सवंगांचो
सगल्यांकच दिसता तशें
आपणें खेळ जिखपाचो

जिनसांवार सवंगां हांगा
नियती तांकां खेळयता
नियतीच आपल्या मनाप्रमाण
खेळा - फांसे उडयता

चार चारच दिसांचो हांगा
जण एकल्याचो चलता खेळ
शबै शबै नाचत नाचत
जसो शिगम्याचो मेळ

नाटकाच्या अंकांनी हीं
कितलीं ल्हान व्हड पात्रां
अणभव तरेकवार घेतना
फुलतात गात्रां गात्रां

केन्ना हाताक लागता
सोबीत फुलपाखो सुखाचो
धरपाक गेल्यार उमजता
हो तर धागो दुख्खाचो

रडयत रडयत खेळयता
खेळाचीं सुत्रां सगळीं
नियतीच सदां हालयता
सुत्रधार जावन ती
प्रत्येकाच्या कर्माप्रमाण नाचयता

कर्माप्रमाण प्रत्येकाच्या
वयर वयर चडयता

कर्माप्रमाण प्रत्येकाच्या
सामकें सकयल देंवयता



## १४.विश्वाच्या अजापांनी...

कालच हांव विमानान
गेल्लें कुपांक मेळूंक
विमान उड्डण करतनाच
पावस लागलो खेळूंक

काळ्या धव्या कुपांनी
येवकारलें हांसत हांसत
अनुभूती त्या हांश्याची
घेतली झेलत झेलत

जनेलांतल्यान ल्हवूच हांवें
सकयल मात्शें पळयलें
विलोभनीय देखाव पळोवन
मन म्हजें धादोसलें

आसमंताच्या रुपान म्हाका
घातली सामकी भुलगावणी
निळ्या निळ्या रंगान मनाक
अळंग दिली समजावणी

जनेलांतल्यान कुपांनी
ल्हवूच मनाक खुणायलें
खेळूंक तांच्या सांगाताक
मन म्हजें उचंबळळ

विश्वाच्या अजापांनी म्हाका
अस्तीत्व म्हजें उमजलें
थाट-माट पळोवन सगळो
हांवूच नतमस्तक जालें

दोंगर दर्या पार करूंक
मन म्हजें उमेदीन न्हालें
वसुधेचें दर्शन घेवंक
मन म्हजें आतुरलें



# १५. दुसऱ्याचें दुख्ख

दुख्ख आपलें
दुसऱ्याक सांगतकच
मन जाता हलकें
म्हणपाखातीर कितलें बरें!

पूण प्रत्यक्षांत
अणभव वेगळे
दुख्ख दुसऱ्याक सांगतकच
दुसरो तें आयकता
'सहानुभूती' दाखयता
आपल्या गोड उतरांनी
दुखेस्त मनशाक भुलयता

पूण ताच्या
मनाचें वजें वाडयता
दुख्ख कमी
करचे बदला
आनीकय वाडयता

इतलेंच न्हय तर...
अळंग दुख्खाचोच
आधार घेवन
आपलोच फायदो सोदता

आपली पोळी भाजूंक
फाटीं फुडें पळय ना
निश्ठूर अशें
मन ताचें
मातूय वळना

अशें कशें मन मनशाचें?
दुसऱ्याच्या दुख्खाची
पर्वा ना

देखून हांव
सांगतां तुमकां
दुख्ख दुसऱ्यांक
सांगचे परस
दुख्खाचेर अळंग
जैत मेळोवचें
मागीर दुख्ख आपूणच पयसावता.

◆ ◆ ◆

## १६. म्हजो बाबा

म्हज्या बाबाची
आडखळयांचीच जीण
हांसत हांसत घातली
ताणें संवसाराची वीण

रातदीस कश्ट सोसून
श्रमदेवीक केलें नमन
निस्वार्थान उबी 'पर्णकुटी'
जाली आयज पावन

संकश्टांच्या पावसाक तो
ना केन्ना भियेलो
दुख्खांतय सूख सोदूंक
सदांच तो धडपडलो

परोपकारी जीण जियेतना
केली ॐकाराची साधना
स्वार्थ परमार्थाचो अर्थ
उमजलो ताच्या नितळ मना

स्वाभिमानी जीण जियेवपाची
दिली ताणेंच प्रेरणा
आयजय ताच्याच संस्कारांची
मनांत म्हज्या आराधना

गोड शब्दफुलांनी ताच्या
सदांच भुल्लुसून अंतमुर्ख जावचें
प्रतिकुलतेंतय वाट सोदीत
फुडें चलत रावचें.



# १७. दुख्ख म्हणल्यार...

दुख्खाचो सांगात
कोणाक नाका,
दुख्खाची 'सावळी ' लेगीत
कोणाक नाका
दुख्खान ...
मनीस करपता
दुख्खान...
मनीस कांचवेता
दुख्ख म्हणल्यार
मनाक वायट दिसप
दुख्ख म्हणल्यार
मनाक त्रास जावप
दुख्ख म्हणल्यार
मनाक कांटे तोपप
दुख्ख म्हणल्यार
काळीज रक्तबंबाळ जावप
दुख्ख म्हणल्यार
म्हज्याच मनाची स्थिती
हांवेंच निर्मिल्ली
ही परिस्थिती
'दुख्ख' दुसऱ्यांनी दिलें
हें सामकें फट
दुख्ख हांवेंच निर्मिलें
हेंच शाश्वत सत
कारण 'हांव' कोण?
हें हांवें वळखलें
तेन्नाच जिणेचें कुवाडें
नकळत होलमलें



# १८.काव्यवाटिका

सोबीत काव्यवाटिका
म्हजे जिणेवाटेवयली
विंगड विंगड ल्हान व्हड
काव्य फुलांनी भरिल्ले
वाटेर पातळ्ळा
काव्यफुलांचो शिंवोर
मनांत म्हज्या
फुल्ला वसंताचो चंवर
मोलादीक झाडां पेडां
पावला कणकणीं रूख
सांवळी तांची दिता
मनाक नकळत सूख
पाचवीचार झाडां पेडां
नितळ निवळ आसचीं मनां
जिणेंत परमळ दिवपी
सोबीत नवीं सपनां
वाटिकेचो परमळ
सगल्यांक भुल्लुसायता
वाटिकेंत भोंवर मारतना
मन म्हजें धादोसता
काव्य वाटिकेची थंडाय
मनांत नकळत पातळ्ळी
कांटेकुटे पयस आतां
जिणेवाट मेकळी....मेकळी



## १९. आयुश्याचे सांडीर....

घामाच्या पावळ्यांनी
भिजोवन जिणेचीं पावलां
मळबांतलीं नकेत्रां हांव
एकठांवक आशेलां

जिणेक मेळिल्ली आयुश्याची
सोबीत मोलादीक सांड
कश्टांची कांडी झरोवन
मांडला संवसाराचो मांड
फुलतात मांडार नवीं नवीं
जिणेचीं अळंग सपनां
कर्तुबशक्तीच्या आदारान
नामनेची आराधना

नामनेच्या सुवासान
भरला जिणेचो पोसो
चारूय वाटांनी दिसता
जैताचो घसघसो
आयुश्याचे सांडीर
आत्मतृप्तीचें गंध
गंधाचे तिकलेन
जीण म्हजी धुंद



## २०. सत्कर्मांचीं फुलां

म्हज्या मनाचें
मेकळें प्रांगण
अणभवाच्या साऱ्यान
गिन्यानाचे कण
नकळत कर्तुबाचें 'बीं'
किल्ललें अळंग
निरपेक्ष हावेसांचे
उठले तरंग

कर्तुबाच्या रोपाक
आशीर्वादाचे हात
भोंवतणच्या मनशांचो
गोड सांगात

रोप नकळत
व्हड जालें
सत्कर्माचें एक एक
फूल फुल्लें
फुलांच्या परमळान
सगळींच भुल्लुसलीं
सत्कर्माची फुलां
पावन जालीं



# २१. कुवाडें

कुवाडें हें पाप-पुण्याचें
बऱ्या वायट कर्मांचें
हिशेब हांगाच मांडपाचे
फळां भोगीत रावपाचे

कुवाडें हें पाप-पुण्याचें
बरें वायट सोसपाचें
वायटाक वायट भोगपाचें
बऱ्याक बरें मेळपाचें

कुवाडें हें पाप-पुण्याचें
भोग भोगीत जगपाचें
दुसऱ्याविशीं बरें चिंतपाचें
गोड फळां चाखपाचें

कुवाडें हें पाप - पुण्याचें
न्यायाखातीर झगडपाचें
दुसऱ्याविशींच्या चिंतनांचें
मोल हांवेंच थारावपाचें

कुवाडें हें पाप - पुण्याचें
वायट विचार पयसावपाचें
बरे विचार आपणावपाचें
सात्विक विचार बाळगुपाचें

कुवाडें हें पाप - पुण्याचें
दुखलें तरी हांसपाचें
फाल्यांचें जैत आपणावपाचें

♦ ♦ ♦

## २२. तुज्या मोगाखातीर

तुज्या मोगाखातीरच
दर वेळा नवो प्रयोग
नवी भाशा
नवी पध्दत
केन्ना गुलाब दितां
केन्ना कविता बरयतां
केन्ना फुलांचो पावस घालतां

पूण आयज मात
पोरणीच रीत आपणायतां
सोबीत प्रेमपत्र बरयतां
पत्रांतल्यान मोग
उकतो करपाक
खरी मजा आसता

फोन तुका करतलें आसलें
पूण वाचून आयकतना
खरी खोशी भोगता
तुजेवांगडा जिणेक
मेळ्ळो अर्थ
दिसना म्हाका
तुजो सुवार्थ
तुजेवांगडा पाणीपुरी खातना
तिखट लागली म्हणून
नाटक करप

तुजेर रागार जालें म्हणून
फुगार जावप
खरेंच वेगळीच मजा
दर खिणाक
नवी उमेद
नवे अणभव

तूं पयस वतकच
मन म्हजें सैरभैर
तूं वांगडा आसतना
विश्व म्हजें वेगळें
चलतात थंय सगळे
म्हजेच सुवाळे
झगडलें तरी हांव तुजें
चुकलें तरी हांव तुजें
तापयलें तरी हांव तुजें
रागार जालें तरी हांव तुजें

जें तुजें तें तें
सगळें तुजेंच
पूण जें म्हजें
तेंय सगळें तुजेंच
मात ‘सीता ’ तुका
जाय जाल्यार
‘राम’ तुवेंच जावंक जाय.



## २३. पयस सारूं नाका

मन म्हजें
विचारांचो दर्या
दर्या देगेर चैतन्याचीं
रूपें ओतपी ल्हारां

दर्याक केन्ना भरती
केन्ना येता सुकती
फेंसाळ ल्हारांक
आडायत कोण?

चलता मंथन
केन्ना उचांबळ दर्या
ना वेळाकाळाचें भान
चिंतन मनन
मनन चिंतन
जिणेंतलीं सुखदुख्खां
आशा अपेक्षा
कर्माक मेळपी फळ
म्हाका म्हज्योच
मेळटात जापो

दर्या केन्ना शांत शांत
हांगा अणभवचें
आत्मिक समाधान
तरी जाय सांगात
तुजो सासणाचो

तुजेबगर जगप म्हजें
जालां सामकें
कठिण आतां
चलतां भोंवतां
उठ्ठां बसतां
मनांत तुजेंच
चिंतन मनन

तुजेबगर जीण अळणी
तुजेबगर सगळेंच पयस
एकूच मागणें तुजेलागीं
हांव कशेंय आसलें
कशेंय न्हेसलें
कशेंय दिसलें
कशेंय वावुरलें
तरीय 'कविते'
सांगात म्हजो
सोडूं नाका
सांगात म्हजो
तोडूं नाका
पयस म्हाका
सारूं नाका
दोशी म्हाका
करूं नाका.

◆ ◆ ◆

## २४.सपन म्हजें

कांचवेल्लें सुकणें हांव
सपन म्हजें सानुलें
काट्याकुट्यांच्या पसाऱ्यांतच
म्हाकाच हांवें सांवरलें
आसमंतांत उडपाखातीर
पाखां म्हजीं कापलेलीं
षड्‌रिपुंच्या थैमानान
दुकांय म्हजीं आटलेलीं
भर दनपारच्या वतान
गर्भगळीत हांव ज़ालें
सोसना जावन सगलें
सामकें हांव कांचवेलें
आस्त मनांत बाळगून
सपन अळंग फुल्लें
चिखलांतल्या कमळाक पळोवन
मन म्हजें साकारूंक
वरदान म्हाका मेळचें
भर दिसा दिपकावपी
काजुलेच म्हाका दिसचे
जिणेचो अर्थ सोदतना
हांवेंच 'अर्थपूर्ण' जावचें
सपन म्हजें अळंग अशें
ह्याच जल्मांत साकारचें



# २५.पुता, तुजे खातीर

पुता, तुजेखातीर हांवें
इल्लोसो घाम वारयलो
वाऱ्या हुंवारांतल्यान हांवें
अळंग तुका सांवरलो
    तुजेखातीर मोन्यांनीच
    मोयपास तोडून उडयले
    ‘सत्य’ खबर आसून लेगीत
    तव्यार हात भाजून घेतले
भर दनपरां रूख जावन
इल्लीशी सांवळी दिली
कांटे आशिल्ल्या पणसावरी
भूक तुजी भागयली
    अळंग तुज्या मनांत हांवें
    इल्लीशी माया रुजयली
    सुसंस्कारांचीं बियां हांवें
    मनांत तुज्या किल्लयलीं
गोड फळां ह्याच रुखाचीं
जिणभर चाखूंक मेळटलीं
तुज्याच यश - नामनेन फाल्यां
ओटी म्हजी भरतली
    निरागस हाशांत तुज्या
    भुरगेंपण म्हजें अणभवलें
    कांटे तुका तोंपले तरी
    काळजांत म्हज्या चर्‌ जालें
फुडाराचे नदरेन हांव
सदांच मुखार पळयतालें
विचार मनांत घोळटनाच
चित्र मुखार दिसतालें



# २६.मरणाचें दुख्ख

मरणा उपरान्त मनशाचीं
सगलीं बंधनां तुट्टात
संवसार सोडून वतकच
उरतात फाटल्यान,
त्यो फकत 'यादी'
मरणाचें दुख्ख पचोवप
तशें सोपें नासता
तरी तें दुख्ख...
एकदांच पचोवचें आसता
मागीर आपल्याच मनाक
समजावचें पडटा
'मेल्लो मनीस' केन्नाच
परतून येना
वाट पळोवन
कांय फायदो ना
आयज ताका
फाल्यां म्हाका
संवसार सोडून
वचूंकच जाय
मरणाचें दुख्ख
सोंसपाची तांक
काळूच दिता
काळूच खरो
मार्गदर्शक आसता
तोच सगलें शिकयता
काळासारको दुसरो
'गुरू' ना.



# २७. हारसो

म्हज्याच मनाचो हारसो म्हाका
म्हजेंच रूप दाखयता
बरें वायट चित्र म्हाका
नियाळूंक शिकयता

मायेच्या बाजारांत म्हाका
वावरूंक सांगात करता
षड्‌रिपूंच्या जाळ्यांतल्यान म्हाका
पयसावपाचो यत्न करता

'दिसता तशें खरें नासता'
हारसोच म्हाका शिटकायता
'नश्वर' संवसारांत सत्कर्माखातीर
सदांच म्हाका हात दिता

गिन्यानाचो उजवाड मेळोवंक
अंतःस्फुर्तीन प्रेरित करता
नितळ नितळ हारशांत म्हजें
पडबिंब उठून दिसता

'अक्षरधन' एकठांय करूंक
हारसोच म्हाका वाव दिता.



## २८. हाय हॅलोचें मोवाळें

हाय-हॅलो ही
आयची फॅशन
भितर आसता
इल्लेंशें मन
हाय हॅलोचें हें
घालून मोवाळें

आयच्या मनशाचें
रूपच वेगळें
हाय - हॅलो हें
इतलेंच नातें
बाकी सगळेच
कांटेच कांटे

हाय हॅलो
ही मोवाळ संस्कृती
दाखयता आमकां
मनशा- मनशाची
सोबीत आकृती
नव्या युगांतली
वळख नात्या - गोत्यांची

हाय हॅलोच्या ह्या
धाग्यानच दिसपाची

♦ ♦ ♦

## २९. मनाच्या प्रांगणांत

मनाच्या प्रांगणांत
शिंवरतात अळंग
विचारांचीं बियां
नाचत नाचत
शबै घालीत
चल्ला जागोर
कांय बियांक
मेळटा सारें
अंतःप्रेरणेचें
उदक मेळटा
आपुलकी, मायेचें,
बियां किल्लतात
आंकरी धरता
ध्येयाचे रूख
जल्माक येतात
थुय थुय
थुय थुय
मन नाचता
मन भुल्लुसता
मन फुलता
दिवाळी मनयता
रात दिसाचे
अखंड साधनेन
ध्येयाच्या रुखाक
अळंग लागिल्लीं
जैताचीं गोड फळां
परमळ पातळायतात



## ३०. वळख म्हजी

म्हजें नांव कितें ?
हांव कोण?
हांव खंयचें?
म्हजो गांव खंयचो?
म्हजो वाठार खंयचो?
म्हजें घर खंयचें?
म्हजीं मनशां?
अशा प्रश्नांच्यो जापो
दिवनय म्हाका
वळख म्हजी पटना
म्हज्याच मनाक
हांव प्रश्न करतां
वळख म्हजी...
म्हज्याच आवयबापायन
दवरिल्ल्या नांवावयल्यान?
ज्या घरांत हांव रावतां
त्या म्हज्या घरावयल्यान?
काय अमक्याचें अमकें
विंगड विंगड नातीं
सांगपी नात्यावयल्यान?
काय...............
म्हजे जिणेंतल्या
म्हज्याच ..........
बऱ्या वायट कर्मांतल्यान,
म्हजी खरी वळख?

♦ ♦ ♦

# ३१. अपुरबायेचें चली

अपुरबायेचें एकलेंच
चली हांव
आवयन म्हाका
हें दिलें
बापायन म्हाका
हें दिलें
बापायन म्हाका
तें दिलें
जें दिलें
जशें दिलें
तातूंत हांव
तृप्त जालें
  पूण कशी सांगूं
  तुमकां म्हज्या
  मनाची व्यथा ?
हें दिलें
तें दिलें
जाय जाय तें
सगळें दिलें
तरीय एक गजाल
ते म्हाका
दिवंक शकले नात
'नशीबा'चे भोग
तशे कोणाकूच
चुकले नात.



# ३२. तुज्या येवपान

वाऱ्या वाऱ्या,
मार भोंवर
हाड बेगीन थंडायेचो शिंवर

पोरसाक म्हज्या
येवं दी चंवर
तुज्या येवपाची
सुलूस गांवार
झाडा-पेडांचेर
येवं दी सांवार

तुजे बगर
सगळें किण्ण
तुजेर केन्ना
ना शीण

तुज्या येवपान
खरें सूख
तुज्या येवपान
पयसावता दुख्ख.

♦ ♦ ♦

# ३३. भातुकलेचो खेळ

भुरगेपणांत सदांच हांसत - नाचत
आंगणांत आमी खेळटालीं
म्हजें तुजें करीत करीत
झगडीं आमचीं चलतालीं
खिणाभितर सहज आमी
सगळें विसरून वतालीं

रांदन आयदनां, पानाफुलांचें
जेवण आमी रांदतालीं
जेवण खाण बेस बरें
पंगतीक बसून जेवतालीं
आसतालें जेवण फकाणाचें
तरी जेवन धादोशी जातालीं

आयजय मांडला नकसूद
हांवें भातुकलेचोच खेळ
शबै शबै करीत येता
हांगा सुखदुख्खाचो मेळ

भातुकलेच्या खेळांत सदांच
हावेसांचे उमाळे
जिणेंत आतां मनोवपाचे
उमेदीचे सुवाळे.



## ३४. मूय

काळी मूय
तांबडी मूय
इल्लीशी मूय
शिटूक मूय

धांवरी मूय
चावरी मूय
भोंवता मूय
सोदूंक साकर

सोदतां सोदतां
मेळ्ळी भाकर
तरी मुयेक
जाय साकर

साकरे बगर
नाका भाकर
साकरेचो वास
मुयेकूच खबर

चोराच्यो वाटो
चोराकूच खबर.

♦ ♦ ♦

# ३५. मरण - यातना

भयानक दुयेंसाक लागून
भोगपी 'मरण- यातना '
मनशाक सोंसनात
भोंवतणच्या मनशांकूय
'नाकापुरो' करून सोडटात
तोंडार अडेचो हांसो हाडून
भोंवतणच्या मनशांक
वावुरचें पडटा
'तोंडार अडेचो मोनो
हांसो हाडप'
मरणाच्या दुख्खापरसय
कठीण आसता
दुयेंत मनीस
जीवन मरणाचे
मेरेर उबो आसता
जिणेचें खरें मोल
तेन्नाच कळटा
जीवन काय मरण?
मरण काय जीवन ?
जीण आसल्यार
मरण ना.
मरण आसल्यार
जीण ना.
आयुश्याचे हिशोब
अधांतरीच
अपुरबायेचे...
इत्सा, हावेसय
अर्दकुटेच...



## ३६. अणभवांची पदवी

सैमाचे शाळेंत
खूब कितें शिकपाचें
अणभवांची पदवी घेवंक
जणएकट्यान वचपाचें

हांगा ना कसल्याच
दाखल्याची गरज
ना कोणाच्या
वशिल्याची गरज

ना कसलीच फी
ना देणगी दिवपाची
ना गरज
पाटी पुस्तकांची
ना गरज
कागद पेन - पेन्सिलीची

मनाचे पाटयेचेर
नवीं नवीं चित्रां
तरेकवार अणभवांतल्यान
फुलतात गात्रां गात्रां
जितलें अणभव
तितलें गिन्यान
अणभवान मेळटा
तेंच खरें 'ब्रह्मज्ञान'.



# ३७. काळीज नासतना

दारावयली टक् टक् आयकून
हांवें सुलूस घेतली
दार उगडून पळयतकीच
'तें' परतल्याची जाणीव जाली

आयज ना फाल्यां
परतें तें येतलेंच
तुका वांगडा घेवन
अळंग 'तें' वतलेंच

मोन्यांनीच ही ताची
जाणून बुजून केल्ली कुरू
'शाश्वत सत्य' हें कळटकच
कशें हांव न्हयकारूं?

'तें' येतकच वच
अशेंय 'हांव' म्हणचें ना
तुका हांवें 'नाका' म्हणलें
तरीय तूं रावचो ना.

वतना मात म्हजेंच तूं
'काळीज' वांगडा व्हरतलो
काळीज नासतना जिणेक
तसो अर्थ कितें उरतलो?



# ३८.अक्षता

म्हज्या मनाची ‘पर्णकुटी’
सामकीच वेगळी
निरंतर अणभवांची
हांगा दिवाळी
सत्कर्मांच्या पणट्यांची

त्यागाच्यो वाती
कश्ट हेंच तेल
दिता उजवाडाची शक्ती

सोज्वळ सोबीत
‘पर्णकुटी’ हांसता
सुविचाराचें तोरण
सगळ्यांक येवकारता

गिन्यानाच्या हावेसान
घातली रांगोळी
सपनांच्या आकाशदिव्यांची
जाली मांदियाळी

जैताच्या फुलांनी
आरत सजयली
‘नामना’ त्योच ‘अक्षता’
जावन जीण धादोसली.



# ३९.कथा म्हजी

सखी...तुजेपरस
ना हांव वेगळी
ना तुजेपरस
जीण म्हजी मेकळी

तुजे सारकीच
म्हजी कथा
तुजे सारकीच
म्हजी व्यथा

तिनसांजेच्या वेळार
मोवाळें रंगोवन
साज चडोवन
सोबीत हातांत
ग्राजरो घेवन
मेकळेपणान तूं
वाट पळयता
काळीज नाशिल्ल्या
गरजू गिरायकांची

आनी हांव...
हांवूय नटून थटून
घरांत बसून
वाटूच पळयतां...
अधीर जावन
म्हज्या सांगात्याची

तेच तळमळे
तेंच दुख्ख
तेच कळवळे
तेंच सूख
तेच अन्याय
तेच अत्याचार
सोशीत सोशीत
तूं दीस सारता

हांव तरी कितें
दुसरें करता ?
अन्याय-अत्याचार
सोशीत सोशीतच
लाचार जीण म्हजी
अळंग सोपयतां

तुजे सारकीच
म्हजी कथा
तुजेसारकीच
म्हजीय व्यथा
फरक इतलोच...
तशी तूं मेकळी
आसमंतातल्या सुकण्यावरी
आनी हांव मात...
बंधनाच्या पांजऱ्यांत
तडफडटां...
फडफडटां...
बंदिस्त किरावरी.

♦ ♦ ♦

# ४०. विचारांचो पावस

पावस विचारांचो
म्हज्या मनाच्या प्रांगणांत
हांवेंच चिंब भिजचें
नकळत त्या पावसांत

सात्विक विचारांचो पावस
राजसी विचारांचो पावस
तामसी विचारांचो पावस
एकसारको पडपी
उटंगारांचो पावस
खिणाखिणाक बदलपी
रुपां पावसाचीं
तरी पर्वा ना
हुंवार वादळाची

आडायतली पावसाक
सत्री संस्कारांची
संस्कारांच्या बळग्यान
वीण मशागतींत
रुजतलीं बियां सत्कर्मांचीं
मेळटली नवी वाट
जिणेच्या फुडाराची.

♦ ♦ ♦

# ४१. वक्लाचो रंग

म्हजे नदरेच्या वक्लान
हांव संवसार पळयतां
नदरेवल्काच्या रंगाप्रमाण
हांव संवसार नियाळटां

म्हजे आवडीप्रमाण
म्हज्या वक्लाचो रंग
नदरेवक्लाच्या रंगाप्रमाण
दिसता म्हाका संवसाराचो रंग

काळ्या वक्लान पळयतना
दिसता सगलेंच काळें
निळ्या वक्लान पळयतना
दिसता सगलेंच निळें
तांबड्या वक्लान पळयतना
दिसता तांबडेंच सगलें

नाका करूंक मोल तशें
दुसऱ्याच्या रंगीबेरंगी वक्लाचें
आपल्याच वक्लान आपणेंच
आपले जिणेचें मोल थारावचें.

◆ ◆ ◆

# ४२. मेथी रंगली

जिणेच्या सोबीत सपनांनी
मेथी तुजी रंगली
निळ्या निळ्या मळबांत
झपय तुवें घेतली

हांसत नाचत खेळत
सांवळी आंगणात वाडली
अळंग भुरगेंपण सोंपून
कळी निकतीच फुल्ली

कांकणांची किणकिण
गोऱ्या गोऱ्या हातांची
ओले हळदीचो साज
हुरहूर ही मनाची

यादी भुरगेपणांतल्यो
आवयबापायच्या आंगणांत
दारावयलें माप ओमथून
नवी नवलाई आयली घरांत.

◆ ◆ ◆

# ४३. मावली

मावलेन विणलें
सोबीत जाळें
जाळें पळयतकच
दिपकावतात दोळे
हेंच मावलेचें
लक्तुबायेंचें कश्टांचें घर
घराखातीर मावली
वावुरता मरसर
रातदीस बाबडी
राब राब राबता
जें जें मेळटा
तें तें खाता
जाळ्याक पळोवन
सगलेच भुल्लुसता
एक अनामिक
अचकीत येता...
मावलेचें घर
मातयेभरवण जाता...
जिवाच्या आकांतान
सैरभैर धांवता
जीव वाटावपाक
मावली धडपडटा
आत्मविश्वासान भरिल्लें
कणखर मन
तिची जिद्द हेंच
तिचें खरें धन.

◆ ◆ ◆

# ४४.अप्रुप जिणेंत

मोगाचे वाटेर
मनीसपणाची नाट
आडमेळ्यांचे जिणेंत
ध्येयाची गांठ

प्रयत्नांच्या तेलाची
एकसारकी धार
अप्रुप जिणेंत
रंग तरेकवार

मनीसपणाची वात
काळजांत पेट्टा
सुवार्थाची काजळी
निखळून पडटा

झडयत झडयत
सुवार्थाची काजळी
दिसपाक लागता
त्यागाची झळाळी

स्वानुभवाच्या गिन्यानाचो
उजवाड फांकारता
मनीसपणाची वात
अळंग जळटा.



# ४५.कुल्ली

एक कुल्ली
वयर चडली
वयर वयर
चडत रावली

दुसरेन तिका
ल्हवूच पळयली
तिणें थारायलें
'हांवूय' वतली

फुडलेच्या दांग्याक
धरून वयर चडली
तिच्या फाटल्यान
आनीक आयली

तशीच फाटल्यान
चडपाक लागली
चडटां चडटां तिणेंच
फुडलेक फाटीं ओडली
सगळ्यांक घेवन
ती सकयल पडली.

♦ ♦ ♦

# ४६. यादी

कालचो दीस
आयज ना
आयचो दीस
फाल्यां ना

दीस बदलता
काळ बदलता
भुरगेंपण सोपून
तरनाटेपण येता
तरनाटेपण सोपून
म्हातारपण येता

मनशाचीं कालचीं
'मुखामळां' बदलतात
कालचीं नांवांय
बदलूं येतात

पूण...
आयचो मनीस
मेलो तरी
फाटल्यान आशिल्ल्या
मनशांच्या मनांत
वायट बऱ्यो
यादी मात
तश्योच उरतात.



## ४७. सत्कर्मांच्या सांगातान...

संवसाराच्या सारीपाटार
तूं राजा हांव राणी
एकमेकांच्या सांगातान
रंगली ही काणी

शबै घालीत खेळपाचो
चार चार दिसांचोच खेळ
जिणे डाव रंगतना
सुख-दुख्खाचोच मेळ

एकामेकाक समजून घेवंक
ना कोणाक हांगा वेळ
खेळटां खेळटां कळळेंच ना
केन्ना जाली सांजवेळ

लागली मनाक हुरहूर
जर्जर जाल्लें शरीरय
लागलें करूंक कुरकूर

एकठांय केल्ली 'पुंजी'
निमाणी हांगाच दवरपाची
सत्कर्मांच्या सांगातानच
वाट फुडली सोदपाची

◆ ◆ ◆

# ४८. 'ते' दीस

खंय गेले 'ते' दीस?
मस्ती आशिल्ली जीण आमची
शाळेंत शिकतनाचे 'ते' दीस
पाटी, काडी गणवेश
शाळा सकाळ दनपाराची

वांगडचीं भुरगीं, शिकपी भावंडां
फळो, बांक, चित्रबोध,
पुस्तक, चोपडी, पेन्सिल, पट्टी,
चार चार परीक्षा,
पालक शिक्षक सभा,
व्यायाम, कवायत, खेळ,
धिंगाणे, मस्ती, खेळांसर्ती
निबंध, काणयांच्यो सर्ती
कविता वाचनाच्यो सर्ती
पिकनीक, प्रदर्शनां, गॅदरींग

पूण हेडमास्तराचो धाक
शाळेंत रांकेन चलप
शिस्तीन उबें रावप
ल्हवू ल्हवू फुडें वचप
मदींच कुजबुजल्यार
मेळटाली ख्यास्त

मस्त आशिल्ली जीण आमची
पाचव्याचार झाडापेडांचो
मेळटालो सांगात

बोरां चिंवरां काण्णां चुन्नां
तिखट मीठ घालून
दाराचे खांचींत
चिड्डायल्लीं दिखाळ तोरां
म्हाका दी, म्हाका दी
म्हणपी इश्ट-इश्टिणी

कोणूय आपटलो, पडलो,
रगत आयलें जाल्यार
जतनाय घेवपी इश्ट-इश्टिणी
खिणांत झगडप, रडप
खिणांत हांसप, नाचप
अशे 'ते' दीस
खंय गेले ते 'दीस'?

♦ ♦ ♦

# ४९.पाखां फुटलीं

कॉलेजाचें वारें लागलें
आनी सगलेंच बदल्लें

कपड्यांची स्टायल बदलून
हेअर स्टायल बदलली
नेलपेंट, शूज, सॉक्स,
स्ट्रोल, बेल्ट, पर्स,
कानांतलीं, गळ्यांतलीं,
हांतांतलीं, केसांतलीं
अशा कितल्याशाच
ॲक्सेसरीजाचें म्हत्त्व पटलें

तातूंत जाय मोबायल
मोबायलांत कितें कितें
सुविधा आसात?
रेडियो, कॅमेरा, टचस्क्रीन,
स्वरबलींग पेड,
एम् पी थ्री, फोर
हाचेरच भुरग्यांक मान

चल्यांचें वाहन
चलयांचें वाहन
चल्यांचो परफ्यूम
चलयांचो परफ्यूम
वागपच बदल्लें

मम्मी-पप्पाक हें
सगलेंच नवें

कॉलेजांत वळख
नव्या सवंगड्यांची
नव्या वातावरणाची
नव्या विशयांची
नव्या खिणांची

वाडटें वाचन
विशयांचें आकलन
इंटरनेटचो वापर
फुडें कितें करप?

आपली आवड
मार्केट डिमांड
भुरग्यांच्यो बदलल्यो
नैतिक संकल्पना
समजून घेतां घेतां

आवय बापूय मात
जंयच्या थंयच!
अचानकच पाखां फुटलीं
आनी पिलां उडून गेलीं !

♦ ♦ ♦

# ५०.म्हजो 'ससो'

धावेची परीक्षा सोपनाफुडें
लो वेस्ट जिन्साची
ताणें मागणी केली
वांगडा नवो मोबायल
म्हणपाक लागलो
कॉलेजांत सगले
तसलेंच घालतात
आतां म्हाका
नाका म्हणूं
'दिनू.....शिनू'
        कालमेरेन आज्जेच्या सांगातान
        देवळांत वचपी भुरगो
        अचकीत शॉपींग मोलांनी
        घिट्ट्यो घालता
        दृष्टीकोण बदलता
        जिणेची स्टायल बदलता
        वाडिल्ल्या केसांविशीं
        आवयन विचारल्यार
'केंस वाडोवप ही
आयची फॅशन'
आजुनूय तूं
बाबा आदमाच्या
काळांतच आसा
मात्शे उकते नदरेन पळय
अशी जाप आसता.

दोन वर्सांपयलींची सायकल
पूण त्या जाग्यार
जाय ताका मोटारसायकल
सशा-कासवाची
म्हजो 'ससो'
अचानक रातचीं
उसरां मेरेनचीं जागरणां
'ऑर्कुट' 'फेसबुक ' सारक्या
सोशल नेटवर्कींग सायटीचेर
दिसपाक लागता
आपल्या इश्ट - इश्टिणींवांगडा
घालता चडांत चड वेळ
ह्या सगल्यां वांगडा
नव्या ॲडमिशनाचें टेन्शन
ताचें सप्तरंगी विश्व
धुंदी तरनाटेपणाची
तरनाटे पिरायेच्या हुंबऱ्यार
पावल दवरतना
घरांतलीं मनशां मात
पयसावतात...
आवय-बापूय...
आजो-आजी...
ल्हान भावंडां...
इतलेंच न्हय तर
पोसकीं सुणीं माजरांय.

◆ ◆ ◆

# ५१. गरिबी

आयज वचत थंय
कसली ना कसली गरिबी
नमळायेची परीक्षा
म्हणल्यारच गरिबी
धनवानाक धनाची आशा
हीच खरी गरिबी
गरिबी म्हणल्यार
निव्वळ 'उणाव'
जिर्णेंत येवपी
सोसनाशिल्लो तणाव
गरिबी म्हणल्यार उणाव
काळजांतले जागेचो
उणाव आपलेपणाचो
उणाव विचारांचो
उणाव मायेचो
उणाव सौजन्याचो
उणाव समृध्दतायेचो
उणाव शिक्षणाचो
उणाव संस्कारांचो
उणाव समादानाचो
उणाव पयशांचो
उणाव भांगराचो
उणाव सुखेस्त वस्तूंचो
उणाव जेवणाचो
उणाव सत्कर्माचो
उणाव मनीसपणाचो.



# ५२.अस्तुरेचें व्यसन

रांदचे कुडींतलीं कामां
अस्तुरीच आपणायता
'कामांच' मागीर
अस्तुरेक आपणायतात
आयदनांची चकचकसाण
टायल्सांची चकचकसाण
ताट वाटी पेल्यांची चकचकसाण
ओट्याची नितळ निवळसाण
कितलेंय धुवूं
कितलेंय पुसूं
कितलेंय सारकें दवरूं
कितलेंय नितळ करूं
काम...काम...काम...
सोपनाशिल्लें काम
नाका तितले कश्ट
नाका तितलें काम
'क्षमता' कुवतीकडेन लक्ष ना
आपल्या कौशल्याचें भान ना
येतल्या वतल्याक येवकार
नितळ निवळ घरदार
रातदीस वावराडेचो वावर
केन्नाच सोपनाशिल्लो वावर
भेरेल्ल्या आंगाक कितेंय
तोंपलें तरी दुखना
एकदां लागिल्लें व्यसन
सहसा केन्ना सुटना.



# ५३.बाटली

बाटलेच्या सांगातान
तो खेळ मांडटा
खेळांत ताका
मस्ती चडटा
तो पयलीं
बाटली सोपयता
बाटली ताका
खूब हांसयता
बाटली ताका
भितल्ल्यान मनयता
बाटली ताका
सांगात दिता
बाटलीच ताका
खेळय खेळय खेळयता
बाटलेच्या नेटार तो
बडबड बडबड बडबडटा
बाटलीच ताचो
हावेस वाडयता
बाटलीच ताका
दुख्ख विसरूंक लायता
बाटलीच ताका चड
लागींची दिसूंक लागता
आनी सहज तो
बाटली सोंपयता
पूण...
ल्हवू ल्हवू झिरी मिरी करीत
बाटलीच ताका सोंपयता
संवसाराचो खेळ अर्धार
उडोवन सासणाचो सोंपता...



# ५४. आयची अस्तुरी

काल आशिल्ली तिची
'चूल-मूल' ही संकल्पना
आयज मात दोळ्यांत
तिच्या हज़ार सपनां
        धगधगते जिणेकडेन
        करूंक तडजोड
        सपनां साकारूंक
        चल्ल्या तिची धडपड
रातीचो दीस करतना
मेळपी तिका समादान
तिच्या सामकार आशिल्लें
सूख - सपनांचें आव्हान
        स्वतंत्र अस्तित्व सोदपी
        पक्षीण मेकळ्या मळबांतली
        झाडून उडयल्या तिणें
        'विखाळी धूळ' काळजांतली
कितलीय उंच उडली तरी
पिलांची जतनाय घेवपी
पिलांक उडूंक शिकयतना
अस्तित्व आपलें सांबाळपी
        आंगणाचे मर्यादेचें
        जतनायेन भान दवरपीं
        आपलेच कर्तृत्वशक्तीवरवीं
        'अर्थपूर्ण' जीण घडोवपी
        आयची बायलमनीस
        मूर्त ती त्यागाची
        त्यागांतच तिच्या
        आस्पावल्या स्फूर्त जिणेची.



# ५५.मातयेचो गंध

म्हज्या मनाचे
भितल्ले आलमारींत
कितलेशेच विचार
एकठांय जाल्यात
एकाचेर एक
चिरे दाळिल्लेवरी
मांडून दवरल्यात

पूण म्हाका
नाकाच ती चौकट
तयार करपाक
बेधडक अणभव
सगळें विश्व वेंगेंत
नाकाच विचार ते
आशा निराशेचे

प्रत्येक खीण
मनमुराद उमेदीचो
ओले मातयेचेर
म्हज्याच कर्तुबांची
पावलां उमटावपाचो
मातयेचो खरपूस गंध
मनांत जतनायेन
जल्मभर सांबाळपाचो.

◆ ◆ ◆

# ५६. जैताचें दार

जिणेचे वाटेर
षड्रिपूंचो बाजार
षड्रिपू पयसावपाक
सुसंस्कारांचें हत्यार

सुसंस्कारांच्या हत्याराक
कर्तुबशक्तीची धार
वळखून घेवचें
संवसाराचें सार

जागी जाता
विचारशक्त सारासार
समजून घेवचो
सुख-दुख्खाचो करार
मागीर उगडटलें
जैताचें दार.





**सुशीला निळकंठ हळर्णकार**
एम्. ए.,बी. एड्. (मराठी, हिंदी)
शिवकृपा, वासुदेवनगर, दवर्ली - नावेली, मडगांव - गोंय
फोन : घरचो - 0832 - 2752917 भोंवतो : 9890837423

श्रीमती पार्वतीबाई चौगुले कॉलेज हें मडगांव, गोंयांतलें एक नामनेचें महाविद्यालय. तातुंतल्या उच्च माध्यमिक विभागांत "कोंकणी व्याख्याती" म्हूण कितलींशींच वर्सां सुशीलाबाय कोंकणी शिकयता. अर्थात, कोंकणी व्याख्याती जाल्ल्यान कोंकणी पाठ्यपुस्तकांच्या वावरांतूय ताणें भरपूर लक्ष घालां. कोंकणीच्या शिक्षणासंबंदांतलो वावरूय ताणें केला. मात "कोंकणी व्याख्याती" वांगडाच कोंकणी भाशीक, साहित्यीक, संस्कृतीक चळवळींतली एक निश्ठावंत कार्यकर्ती म्हूण आनी साहित्याच्या वावराकडेन समाजीक नदरेंतल्यान पळोवपी एक साहित्यप्रेमी म्हूण सुशीलाबाय म्हजेसारक्यांक चड भावलां.

सुशीला निळकंठ हळर्णकार हें नाव आमी सगळ्यांनी चड करून "सुनापरान्त" दिसाळ्यांत विचारीक, चिंतनांचे लेख बरोवपी लेखिका म्हूण वाचलां. मात ह्या लेखांनी तिच्यांतल्या ललित लेखन शैलीचीं बिंयां दिश्टी पडटात, समाजीक नदरेचो आशय जाणवता. तातुंतल्यानच ताचेमदली लेखिका घडत गेली.

गोंवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर ' येवजणे सकयल 'पर्णकुटी' हो कविता संग्रह उजवाडा येतकूच मात सामाजिक आशय काव्यरूपान मांडपी एक कवयित्री म्हूण सुशीलाबाय वाचकां मुखार आयलें. ताका कोंकणी वाचप्यांनी बरो येवकार दिलो. उपरांत ताचो 'किटू' नांवाचो काणयांचो संग्रह श्री हरि प्रकाशनान उजवाडाक हाडलो. ताकाय येवकार मेळ्ळो.

आतांमेरेन सुशीलाबायन कांय नाटकुलीं बरोवन पणजे आकाशवाणीचेर तांचें सादरीकरण केला. तशेंच कथालेखन, कविता वाचन, निबंध वाचनय केलां. ताका सर्तींनी इनामांय फावो जाल्यांत.

आतां सुशीलाबायचो 'संस्कारदीप' हो खेरीतपणान संस्कारांचें म्हत्व अधोरेखित करपी कविता संग्रह उजवाडा येता. भारतीय संस्कृतीचे बुन्यादीवयल्या संस्कारांचें बाळकडू प्रत्यक्ष पचयिल्ल्या सुशीलाबायच्या ह्या 'संस्कारदीप' कवितासंग्रहाक कोंकणी वाचक येवकार दितलो, अशी आस्त बाळगितां.

- श्री. कमलाकर दत्ताराम म्हाळशी

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय - 403 702